# सिलास मारनर

अणकार – अभयकुमार वेलींगकार

जॉर्ज इलियट हे लेखिकेचें लिखाण १९ व्या शेकड्यांत खूब लोकप्रिय जाल्लें. आपल्या कादंबऱ्यांतल्यान तिणें दलितांचे जिवीत चित्रायल्लें. ती अेक कवियत्रीय आसली. 'दी मेल ऑन दी फ्लॉस', 'अडेम बेंडे', 'सिलास मारनर' ह्यो कादंबऱ्यो बऱ्योच गाजल्यो. संवसारांतल्या खुबश्या भासानीं तांचो अणकार जालो. सिलास मारनर हे कादंबरीचो हो कोंकणी संक्षेप.

शणै प्रकाशन
वेलींग – गोंय

शणै प्रकाशन : ८

पयली खेंप : फेब्रुवारी १९८१



अुजवाडावपी :

शणै प्रकाशन

वेलींग – गोंय

४०३४०४

छापपी :

काझ अुदय प्रिंटींग प्रेस

पोस्ट ऑफीसालागीं

पणजी – गोंय

४०३००१

मोल : देड रुपया

१

रॅव्हेलो नावाच्या अेका खेड्यात अेके खोपीत सिलास मारनर नावाचो अेक विणकर रावतालो. ताच्या खोपीलागीं फातर फोडून काडील्ल्यान अेक खड्डो पडिल्लो. गांव मुखेल रस्त्यापासून मैलभर भितर आसलो. झाडोपेडांनीं नटलेल्या ह्या गावांत अेक पोन्नी अिगर्ज आसली.

रॅव्हेलोक येवन रावल्यार सिलासाक आतां पंदरा वर्सां जाल्ली. तो आयिल्लो तेन्ना घाऱ्यां दोळ्यांचो आनी कमी दिष्टी पडटा असो तरणाटो आसलो. तो अस्तमतेकडल्यान आयिल्लो आनी विणकाम करून पोट भरतालो. पयलीं पयलीं गांवचे लोक ताचेकडेन संशयी नदरेन पळेताले. तो अेकटोच रावतालो. आपल्या कामाशिवाय गावात कोणालागीं अुलयसुद्धां नासलो. सिलासाक केन्नाकेन्नाय अेकतरेच्यो फिटस् येताल्यो.

रॅव्हेलोक येवचेपयलीं सिलास दुसऱ्या अेका गावांत रावतालो. थंयच्या अेका संकुचीत वृत्तीच्या धार्मिक संस्थेचो तो वांगडी आसलो.तांतून ताका अेक लागींचो अिश्ट आसलो. ताचें नांव आसले, विल्यम दने.विल्यम खुब्र शिष्ट आनी गर्विश्ट आसलो. स्वताक तो खुब शाणो समजतालो. विल्यमाच्या मध्यस्थीन सिलासचें लग्न सारा नावांच्या अेका चलयेलागीं थारील्लें.

पुण मदींच अेकदीस अेका प्रार्थनेच्या वेळार सिलासाक फिट आयली. विल्यम म्हणूं लागलो, 'सिलासच्या आत्म्यार सैतानाचो ताबो आसूये, देखूनच अशें घडले जावये'.

त्या दिसासान सारा सिलासाकडे आयली ना. लोकानीय ताचेर नदर दवल्ली. अेक दिसा अिगर्जेचो पाद्री भायर पडलो. सिलास रातभर ताचेलागीं बसून रावलो.

पुण मागीर अशें कळून आयलें, कि म्हाताऱ्या पाद्रीच्या पेटयेतल्यान अिगर्जीच्या पयशांची थैली ना जाल्या ! बाबड्या

सिलासाचेर आळ घेतलो. ताका तपासलो तेन्ना ताच्या बोल्सांत अेक चाकूय मेळ्ळो. हो चाकू विल्यमचो म्हुण सिलासान वळखलो. राच्ची सिलासाक थंय धुंवळ आयली तेन्नाच विल्यमान हें कारस्थान केल्लें!

पुण बाबड्या सिलासाचें सांगणें कोणेच आयकले ना. ताकाच गुन्यावकारी म्हणून धांवडावन लायलो.

गरीब बाबडो सिलास दुख्खी जावन गेलो. ताचो देवावयलो विश्वास मात वचूं नासलो. दुसऱ्या दिसा असोच दुखेस्त जावन बसला असताना अिगर्जीचो पाद्री येवन सांगू लागलो' "सारान तुजेलागीं लग्न करचो बेत बदलला!" सिलासच्या काळजाक आनीक अेक घाय जालो.

म्हयन्याभरान ताका कळ्ळें कि, विल्यमानूच सारालागीं लग्न केलें ! रोखडोच सिलासान गांव सोडलो.

रॅव्हेलोक येतकूच ताणे कोणालागीं अिश्टागत जोडलीना जांव कोणालागीं तो मिसळ्ळो ना. आपुण बरो कि आपलें काम बरें ! तो दीसभर मागार विणटालो. गावांत दुसरो विणकर नाशिल्ल्यान ताचो कपडो खपतालोय बरो. आनी हाकालागून ताचो धंदो बरो चलतालो, ताका भांगराची आनी रुप्याचीं खुब नाणीं मेळटालीं. पोटापुरतीं नाणीं खर्चून उल्लेलीं तो शिलकेंत उडयतालो. दीसभर मागार काम केल्याउपरांत, राच्चो जेवन बौवन तो घराचीं दारां जनेलां बंद करतालो. मागीर मागाच्यापोंदा खड्ड्यांत पुरून दवल्लेली अेक चामड्याची पिशवी हळूच काडटालो, ह्याच पिशवेंत ताची जोड आसली. ती सगळी जोड परत परत मेजतालो आनी परत पुरून दवरतालो. सिलासचो हो सदचोच अुद्योग जावन आसलो !

पंदरा वर्सां सिलास असोच अेकटो रावलो. ताचे अशे ताका कोणूच नासले, जांव नात्याचे वा मोगाचे. ताची खोशी म्हळ्यार ताचो माग आनी विणकाम.

सिलास त्यावेळार चाळीस वर्सांवो आसूये पुण ताचें तोंड (चेहरो) ल्हान दिसतालें. ताका पोंगूय पडिल्लें. देखून ताका भोवतणचीं भुरगीं म्हण, 'म्हातारो सिलास मारनर !'

पंदरा वर्सां अशीच गेलीं, पुण त्या उपरांतच्या त्या वर्साच्या नाताळच्या दिसा मात सिलासच्या जिवितांत आनीक अेक बदल घडलो.

-२-

रॅव्हेलो गावांत स्कवॉयर कॅस नावांचो अेक भाटकार रावतालो. ताका दोन पुत आसले. व्हडलो गॉडफ्रे आनी धाकटो डन्से. गॉडफ्रे बऱ्या स्वभावाचो आसलो तर डन्से बेव्दो, जुगारी आनी दुश्ट स्वभावाचो. घरचे गिरेस्त जाल्लयान दोगूय कांयच काम करी नासले.

एकदां भागेल्याकडल्यान घेतील्ले खंडाचे पयशे गॉडफ्रेन अुशणे म्हुण डन्सेक दिल्ले. पुण डन्से व्यसनी, ताणे पयशे वेळार दिलेना तेन्ना गॉडफ्रे भियेलो. ताका बापुय विचारीत म्हुण भंय दिसू लागलो. अेकदीस ताणे तिडकीन डन्सेक विचाल्लें, 'बरे भशेन तूं पयशे दिता काय बापायक सांगू?'

'बरे भशेन सांग. मागीर हांवूय, तुवें त्या बेव्दया मॉली फॅरनकडे कशें चोरुन लग्न केलां तें सांगता ! डन्सेन ताका भेश्टायलो. गॉडफ्रे भियेलो. ताका सकलच्या जातीतल्या चलये-कडेन उपाय नासून लग्न करचे पडिल्लें. ही गजाल ताणें गुप्त दवल्लेली. स्क्वॉयराक ती कळील्ली जाल्यार, गॉडफ्रेक ते इश्टेटींतलो इल्लोय वाटो दिवचे नासले आनी घरातल्यान लेगीत धांवडायतले आसले. त्या भायर ताचो नान्सी नांवाच्या तांच्या जातीतल्या चलयेचेर मोग आसलो. नान्सीकडे लग्न जावचेली ताची अित्सा आसली. हें कळ्ळयार तीय जळफळटली आसली.

"डन्से, मागीर हांव खंयच्यान पयशे हाडूं ?'

"तुजो 'वाईल्डफायर' घोडो विकून वडय"

"वाअील्डफायर विकून उडोवं? ना ! केन्नाच ना!"

"मागीर येतल्या संकष्टाक भियोवन बस रडत !"

गॉडफ्रे संकष्टात सांपडलो. आवडटो घोडो विकपाचो ? नासलयार पयशे कशे आनी खंयच्यान हाडपाचे ? निमाणे उपाय

नासून ताणे घोडो विकचो थारायलें आनी तो विकपाचें काम डन्सेकूच दिलें. डन्से घोडो घेवन गेलो.

बाबडो गॉडफ्रे ! दिसानदीस तो दुख्खी जायत वतालो हाचें कारण म्हळ्यार ताच्या स्वभावान लोकांचेर केल्ले उपकार.

घोडो घेवन वतना डन्से खोशी आसलो. वतां वतां तो सिलासाच्या घराकडे पावलो आनी त्याच्या मनांत आयलें, ह्या विणकरालागीं पयसो खुब आस्तलो !

फुडे वतना वाटेंत एक व्हाळ लागलो. व्हाळाचेर अेक फातरांचो रस्तो आसलो. कशायकसो घोडो धांवडायतना घोड्याचो पांय निसल्लो आनीं तो व्हाळांत पडलो. तो पडलो थंयच मेलो. हो अपघात घडलो त्या वेळार थंय कोणूच नासले. डन्सेन कसोतरी आपणांक वाटायलो आनी भांगराचो रिंग बसयल्लो चाबूक घेवन गावावाटेन येवंक लागलो. येतना काळोख पडिल्लो. पावसूय पडटालो. सिलासाच्या घराकडे पावतकूच ताका अुजवाड दिसलो. किते तरी निमित्त काडून तो थंय गेलो. भितर पळेल्यार कोणूच ना. रान्नीर जेवण शिजतालें. दिवो जळटालो. डन्सेन हेवटेन तेवटेन पळेलें. ताका मागापोंदा. विटो आनी रेंव पडील्ली दिसली. ताका संशय येवन ताणे त्यो विटो काडल्यो तर भितर खड्ड्यांत दोन चामड्याच्यो पिशव्यो, पयशानीं भरील्लयो. ताणे बेगीब्रेगीन त्यो पिशव्यो घेतल्यो आनी काळखांत धांव माल्ली.

कांय वेळान, गावांत सामान हाडूंक गेल्लो सिलास परतो आयलो. मटणाचो बरो कुडको मेळील्लयान तो खोशी आसलो. जेवण करचेपयलीं अेकदां पयशे पळोवचे म्हुण दिवो घेवन ताणें मागापोंदच्यो विटो कांडल्यो तर ताका धक्को बसलो. खड्डो रिकामो. पिशव्यो कोणेतरी चोरील्लयो.

सिलास दुख्खी जालो ताची पंदरा वर्सांची जोड गेल्ली. पावसान भिजत तो गावावाटेन वचूं लागलो. वाटेंत रेनबो हॉटेलांत कांय लोक हांसत, अुलयत जेवतना ताणे पळेले. ताणे तांका आपली गजाल सांगली. तांका ताची काकळूट दिसली.

तांतल्या दोगानीं सिलासाक चोरयेची खबर दिवपाक पोलिस अधिकाऱ्याम्हऱ्यांत व्हेलो.

दुसरो दीस उजवाडलो तरी घोड्याक विकून डन्से आयलोना हें पळोवन गॉडफ्रे चिंतेस्त जालो. ताचो घोडोय गेल्लो आनी पयशेय गेल्ले !

निमाणे दुसरो घोडो घेवन गॉडफ्रे डन्सेक सोदूंक भायर सल्लो. वाटेंय ताका ब्रिसी मेळ्ळो. तोच घोडो घेतलो आसलो, पुण डन्सेची वाट पळोवन तो बेजार जाल्लो. घोडो व्हाळांत पडून मेल्याची खबर ताका कळ्ळी. डन्सेचो पत्तोच नासलो, ब्रिसीन सांगिल्ली खबर आयकून गॉडफ्रेक आनीकूय दुःख भोगलें. तो घरा परतलो.

बरोच वेळ विचार करून ताणे सगळी गजाल निमाणे बापायच्या कानावर घाली. तांचो स्वभाव कडक आसलो. ताणीं, 'हाचेफुडें म्हज्या खर्चान घोडो सांबाळू नाका आनी डन्सेक घरांत घेव नाका' म्हुण सांगले. मात 'नान्सीकडे लग्न करून सुखी जा!' अशी अेक बरी गजाल गॉडफ्रेक सांगून उडयली. ताका तितलेंच समाधान मेळ्ळे.

३

डन्सेचो पत्तो लागलोना जांव तो परतो आयलोना म्हुण कोणाकूच दुख्ख दिसलेना. आनीक एक फावट तो असोच ना जाल्लो आनी देखून ताचेविशयीं कोणाकूच सहानभूती दिस नासली.

पुण बाबडो गरीब सिलास मात दुख्खी जाल्लो. ताचेविशयीं मात गांवच्या लोकांक काकळूट दिसताली· शेजारी येवन ताची चौकशी करूं लागले. कोण कोण ताका अेकमुळगेपणां सोडून भिगर्नींत येवंक सांगूक लागले. तातलेसातून मिसेस विन्थ्रॉप ह्या मायेस्त, बऱ्या स्वभावाच्या बायलेन चड मोग परगटायलो. दुसऱ्याक संकश्टाच्या वेळार मदत करूंक विन्थ्रॉप सदांच फुडे आस्ताल्यो. ताणीं सिलासाक खुब समजायलो. जाय ती मदत

दीवंक केली. म्हणू लागली, " सिलास, तुका बरें बी दिसना जायत तर म्हाका कळय. हांव येतां, तुका जेवण करून वाडटां, तुजें काम करतां."

" देव बरें करूं " सिलासान म्हळें आनी अेकटोच बसून रावलो. तो नाताळाचो दीस आसलो. सगळेकडे आनंदीआनंद आसलो, पुण सिलास मात दुख्खी आसलो, उदास आसलो.

नव्या वर्साक येवकार दिवपाक त्या दिसा कॅससायबाच्या 'रेड हाऊसा'चेर व्हड समारंभ आसलो. गिरेस्त लोक जमिल्ले. नान्सी लेगीत आयिल्ली. खावपा-पिवपाचो आनी नाचपा-गावपाचो जल्लोश अुडिल्लो. गॉडफरेन तांच्या पद्धतीप्रमाण नान्सीक नाचूक आफयली आनी नान्सी तयार जाली.

असो हो दबाजो 'रेड हाऊसा'चेर जातलो हें मॉलीक खबर आसलें आनी देखून ती खेडयांतल्यान आपल्या ल्हान चलयेक घेवन रेड हाअुसाकडे वताली. अशा दबाज्यावेळारूच तिका गॉडफरेचेर सूड घेवचो आसलो. ती व्यसनी, सकलच्या जातीतली, गुलाम बायल आशिल्यान गॉडफरेन तिचेलागीं केल्लें लग्न लिपोवन दवल्लेलें. मॉलीक अेक ल्हान चली आसली. ती सामकी हालांत जगताली म्हणुनूच रेड हाअुसाचेर वचून आपलें रहस्य सगळयांमुखार दवरचें असो तिचो विचार आसलो.

ती चलत चलत सिलासाच्या घरालागीं आयली, त्यावेळार बर्फ पडूं लागिल्लें आनी काळोखूच जाल्लो. तिका पुरो जाल्लें आनी अफू खावचेली हुक्की माल्लेली. ती रस्त्यारूच थांबली. डबयेंतली अफू काडून तिणे तोंडात अुडयली. पुरो जाल्ल्यान ती थंयच बसून रावली. हळूहळू तिचेर अफूचो परिणाम जावंक लागलो आनी तिची शुद्ध गेली. ती थंयच झुडपाम्हऱ्यांत पडली.

तिचें चली कंटाळून रडूंक लागलें. ताणें हेवटेन तेवटेन पळलें तेन्ना मुखावेल्या घरांतल्यान दिव्याचो अुजवाड तिका दिसलो. तें दिमकुऱ्यानी त्या घरांत सल्लें. रान्नीतल्या अुज्याकडे पळेत बसलें आनी कांय वेळान थंयच न्हिदलें. तें घर सिलासाचें आसलें.

पुण सिलास खंय तर? सांजेवेळच्या वेळार अिगर्जींत नव्या वर्साक येवकार दीवंक घांटीं वाजताल्यो त्यो आयकत, दार उगडें

सांडून, आपले गेल्ले पयशे परत मेळटले ह्या आशेंत बशिल्या सिलासाक फीट आयिल्ली आनी तो थंयच घुंवळ येवन पडिल्लो.

तो जेन्ना शुद्धीर आयलो तेन्ना काळोख जाल्लो. रान्नींतलो अुजो पालवल्लो. सिलास अुठलो. आपले पयशे आसतले ह्या पिशा आशेन ताणे काळखानूच सोदले तेन्ना ताच्या हाताक मोव मोव केंस लागले. ताका अजाप जालें. ताणें उठून रान्नींत अुजो केलो. त्या अुजवाडांत ताका दिसलें अेक ल्हान भुरगें न्हिदील्लें !

तें कोण, खंयच्यान आयलें ?

सिलासाक अजाप दिसलें. अितल्यांन तें भुरगें अुठलें. 'आवय, आवय' म्हणून रडूंक लागलें. सगळ्या घरभर नाचूं लागलें. सिलासान दिवो पेटयलो. भुरग्याच्या पायांतले बूट काडले. आनी ताका कळ्ळें तें भुरगें भायल्यान आयलां. ताच्या बुटांचेर बर्फ पडील्लें. ताका घुंवळ आयिल्ली तेन्ना घराचे दार अुगडें आसलें, तें तशेंच अुरील्लें.

सिलासान भायर वचून पळेलें. ताका बर्फाचेर पावलांच्यो खुणो दिसल्यो. तो खुणांवाटेन फुडें गेलो तेन्ना ताणे पळेली अेक बायल रस्त्याच्या कडेक बर्फांत मुगल्ल्या.

४

भुरग्याक हांडीर घेवन सिलास दोतोराकडे गेलो. पुण हां. किबले रेव्हाअुसार आगा म्हूण कळटकूच तो तडक थंय गेलो. सिलास हांडीर भुरग्याक घेवन येता तें पळोवन सगळ्याक अजाप दिसलें. गॉडफ्रे चकीत जालो. ताका तें भुरगें आपलेंच म्हणपाचें कळ्ळें पुण तो वोगगी रावलो. रेव्हांयर हेगान सिलासाक विचारलें ''कित्याक आयला हांगा ? किते जाय?'' हाचेर आपूण अेका, बायलेक बर्फांत मुगल्लेली पळोवन दोतोरांक व्हरूंक आयलां म्हणपाचें ताणें सांगलें आनी तें भुरगें त्या बायलेचेंच आसूंये असो तर्क लडयलो. ताच्या हांडीयेलें तें सोबीत भुरगें पळोवन अेके बायलेन तें भुरगें मागलें

पुण सिलासान म्हळें, ''शे, शे ! हांव दिवचो ना तें. तें आपूण जावन म्हज्या घरा आयलां. हावूच सांबाळटलों ताका.''

सिलासा वांगडा डॉ. क्रिब्ले त्या बायलेक पळोवंक गेलो. ती बायल म्हळचार मॉलीच आस्तली अशें गोडफरेक दिसलें. सिलासान केल्ल्या वर्णनावेल्यान आनी भुरग्यावेल्यान ती बायल मॉलीच आसूं जायशी ताका दिसली पुण खात्री करून घेवची म्हुण तोय तांच्या वांगडा गेलो.

दोतोरान बायलेक तपासली आनी सांगले, "चार पांच घरांपयलींच ही बायल मेल्या !"

ती बायल मॉलीच आनी ती मेल्या हें पळोवन गॉडफरेक मनांतल्यान खोम भोगली. अेके कटकटीतल्यान तो सुटील्लो. अेका संकश्टातल्यान वाचिल्लो. आतां तो नान्सीकडे उगडेपणान लग्न करूंक शकतालो.

पुण धाकटच्या चलयेचे कितें ? ती तर सिलासाक चिकटून राविल्ली. सिलास म्हणूं लागलो, "बाबड्याक ना आवय, ना बापूय. तें अेकटें आनी हांवूय अेकटोच ! म्हजे पयशे खंय गेले खबर ना, हें चली खंयच्यान आयलें तेंच खबर ना!"

गॉडफरेन बोल्सांतले नाणे सिलासाक दिलें आनी से चलयेक कपडे शींव म्हुण सांगून तो घरा गेलो.

५

ते चलयेन, सिलासाच्या अेकमार्गी जिवितांत वेगळोच बदल घडोवन हाडलो.

दोन वर्सांचे तें चली ! ताका खावय-पिवय, न्हणय, खेळय, न्हीदय हो अेक उद्योगूच जावन बसलो. सिलासाच्या घरांत ल्हान भुरगें आशिल्ल्यान शेजारच्यो बायलोय ताचेकडेन मदीं मदीं येवंक लागल्यो. सिलासाक भुरग्याचें कशें करचें तें सांगूक लागल्यो.

तानूंय विन्थरॉप मोगान येतालीं. चलयेक न्हाणयतालीं. तांच्या अेरनचे कपडे आसले तेय तांणीं ताका हाडून दिल्ले. तांचो अेरन आतां पाच स वर्सांचो जाल्लो. गॉडफरेन दिल्ल्या पयशांतल्यान त्या चलयेखातीर बूट हाडूंक मात निणे सिलासाक मागलें.

सिलासूय ते चलयेचें काम करतना आपणांक विसरून वतालो.

विथरॉपान अेकदां सांगलें, "सिलास मारनर, चलयेक अिगर्जींत घेवन वचूं जाय आनी किरिस्तांव धर्माप्रमाण ताका नांव दवरूंक जाय."

सिलासान बरें म्हूणील्लें पुण खरें पळोवंक गेल्यार अिगर्जीविशयीं ताच्यां मनांत बरें मत नामलें देखून तो केन्नाच थंय वच नासलो. ह्या गावांत येवन सिलासाक पंदरा सोळा वर्सां जाल्लीं. पुण अेकदांय तो अिगर्जींन वचूं नासलो अेकदां पयलीं विन्थरॉपान सांगून लेगीत ताणे आयकूं नासलें पुण आतां तो रोखडोच तयार जाल्लो! कारण ती चली, तिचेखातीर कितेंय करूंक तो तयार आसलो !

अेकदीस अिगर्जींत वचून ताणें ते चलयेक नांवूय दवल्लें. त्या वेळार विथरॉपान विचारील्लें, "कितें नांव दवरूया ताचें?" "अेपी" सिलासान सांगिल्लें. ताच्या धाकटया भयणीचें नांवूय अेपीच आसलें.

अेपी घरभर भोंवताल, धांवताले, खेळटालें. मागीर कामाक बसलो म्हूणजे मात सिलासाक ताचे फाटल्यान वचुंक जम नासलें. काम तर करूंकूच जाय आसलें. विन्थरॉपान सुचयिल्लें, "अशें कर. कामाक बसतना अेपीच्या कमराक कपडयाचो पटो बांद आनी पटयाचें दुसरें पोंत मागाक बांद; मागीर हुस्को करपाक नाका."

सिलासाक हो उपाय मानवलो आनी तो तशेंच करूं लागलो, पुण अेपी व्हडलें जालें. अेकदां ताणें कातर घेतली आनी बांदिल्लो पटो कापून उडयलो. सिलास विणपांत दंग जाल्लो. पटो कापलो आनी सुटून अेपी घरानल्यान भायर धांवलें.

कांय वेळान सिलासाचें काम सोंपलें पळेता तर अेपी ना. सोदीत सोदीत तो भायर आयलो अेपी अेका तळयातगेर बशिल्लें ताका दिसलें !

अेपीक लागून शेजाराचीं ल्हान भुरगींय सिलासाकडे येवंक लागलीं, खेळूं लागलीं.

अेपीक लागून लोकूय सिलासाक वळखूंक लागले. ताचे लागीं अुलोवंक लागले. अेपीन ताका परतो मनशान हाडिल्लो.

अेपीचेर अेक मनीस लक्ष दीवन आशिल्लो. तो म्हळचार गॉडफ्रे. तोच ताचो बापुय आसलो पुण ताणें सत्य लिपोवन दवल्लेलें. केन्ना केन्ना ताचें बापायचें काळीज ताका हालयतालें पुण तो आपल्यो भावना सांबाळून दवरचो यत्न करतालो. मनांत म्हण्टालो, "अेक दीस अुजवाडटलो आनी हांव अेपीक धू म्हुण हाडटलों!"

—६—

सोळा वर्सांअुपरांत सगळ्यांतूच खुब बदल घडिल्लो. सिलास आतां पंच वन्न वर्सांचो जाल्लो. ताचे केंस पिकील्ले, दोळे खोल गेल्ले. तो म्हातारो दिसूंक लागिल्लो. गॉडफ्रे चाळीस वर्सांचो जाल्लो आनी अेपी अठरा वर्साचें तरणाटें जाल्लें.

अेक दीस अिगर्जीतल्यान येतना अेपीन सिलासाक म्हळें "डेडी, आमी आमच्या घराभोंवतणीं सुंदर शे पोरसूं करूं या. म्हाका फुलां खुब आवडटा!"

"हय धुवे, पुण म्हज्यान आतां खणप, फातर काडप आनी माती व्हावोवप जायना. तरीमुद्धां हांव पोरसांत सकाळसान काम करतलों." फाटल्यान येवपी अेरनान तें आयकलें आनी म्हणूंक लागलो, "हांव खणटलों, माती घालतलों आनी सोबीत सुंदर झाडांय हाडून लायतलों. डेडीन त्रास घेवपूच ना!"

"हय डेडी, आमी करूं" अेपीन म्हळें.

सांजवेळ जाली, आवय वाट पळयतली म्हुण अेरन घरा गेलो.

सिलासाक सगळेकडेन खोशी दिसताली. देवाचेर ताचो विश्वास आतां वाडिल्लो.

पुण आतां ताका अेक चिंता लागिल्ली. ती म्हळचार, आपुण म्हातारो जालों, आपणाच्यान काम जायना. ह्या अेपीचें कशें जातलें? तिका सांबाळपी, तिची जापसालदारकी घेवपी कोणतरी बरोसो मनीस जाय.

सिलासान हें उलोवन दाखयलें तेन्ना अेपी म्हणू लागलें, "डेडी, ह्याखातीर हावें जर लग्न केलें जाल्यार तुमी आड येंवचे ना मूं ?"

"ना धुवे. पुण कोणालागीं लग्न जाता तूं?"

"अेरनकडे. अेरन आवडटा तुमकां ?"

"कित्याक आवडचोना धुवे ? सुंदर पोर तो. आमी विचारूं या ताका आनी ताच्या आवयक."

तेवटेन रेडहाअुसांत नान्सीकडे लग्न जावनलेगीत गॉडफ्रे दुख्खी आसलो. लग्न जावन कितलीं वर्सां जालीं तरी नान्सीक भुरगें जांवक नासलें. ह्याका लागून नान्सीमुद्धां दुखेस्त आसताली. घरचें काम जातकूच वेळ कसो काडचो ह्याचीच तिका चिंता पडटाली. गॉडफ्रे पिसावल्ल्यावरी जाल्लो. तो अेकअेकटोच शेतार जांव खंय्य फिरफिर फिरतालो.नान्सीक ह्याचें खुब दुख्ख भोगतालें.

असोच अेकदीस गॉडफ्रे फिरून आयिल्लो. ताचें तोंड भयानक दिसतालें, हातपांय थरथरताले.

तो आयलो आनी नान्सीमुखार कदेल घेवन बसलो. भियेल्ल्या आवाजान ताणें म्हळें, "नान्सी अेक वायट गजाल अुगडी जाल्या. सामकी वायट."

"कसली ती ? कितें जालां ?"

"गावांभायलो, मारनरच्या घरालागीं आशिल्लो खड्डो, अुदक काडील्ल्यान सुकला. ताका लागून फातरानीं आडखळिल्लो अेक हाडांचो सांपळो अुगडो पडला. सापळयाच्या हातांत आशिल्लो चाबूक आनी चाबकाक आशिल्ली भांगराची रिंग ह्याचेवेल्यान तो सापळो म्हज्या भावाचो-डन्सेचो हें सिद्ध जाता."

"डन्सेचो ?"

"हय. डन्से म्हजो घोडो घेवन पळे धांविल्लो तो परतो दिसलोच ना. आयज अशेतरेन तो मेळटा. आनीक अेक गजाल ताका लागून कळ्ळी."

"कसली ती ?"

"सिलास मारनरच्या चोरयेची."

" तीं कशी ?"

" डन्सेच्या उजव्या हातांत पैशानी भल्लेली चामड्याची पिशवी आसा."

" म्हळ्यार डेन्सीन सिलासागेर चोरी केल्ली?"

" हाचेवेल्यान अशेंच दिस्ता. ताची पिशवी घेवन धांवतनाच तो त्या अुदकान भल्लेल्या खड्ड्यांत पडला आसतलो आनी फातरानी आपटून मेला आसतलो. सोळा वर्सांउपरांत अुल्ला तो हाडांचो सापळो !"

" आयकूंच नजो हें !" नान्सीन म्हळें.

" नान्सी, आनीक अेक गजाल तुका सांगचा आसा." भियेत भियेत गॉडफरेन म्हळें.

" कसली ?"

" नान्सी, अेपी ही म्हजी चली आनी बर्फांत मेल्ली बायल-- मॉली, ही म्हजी बायल आसली. अेपीची आवय."

" अेपी तुमची चली ?"

" हय नान्सी, आमची चली. इतलीं वर्सां हावें हें लिपोवन दवल्लेलें देखून म्हाका भोगशी."

" हें पयलींच सांगिल्लें जल्यार अेपीक आमींच सांबाळ्ती नासल्यों? बरें, जालें तें जालें. आतां तरी ताका घेवन येवया."

" तशें जाल्यार आमी सिलासाकडे वचूया."

७

नान्सी आनी गॉडफरे सांजवेळेच सिलासाकडे आयले. त्यावेळार सिलास आनी अेपी अुलयत बसिल्लीं. गॉडफरे आनी नान्सी हांका तांणी येवकार दिलो. तांच्या गजालींनी तांणीय वांटो घेतलो. अुलयतां अुलयतां गॉडफरेन म्हळें, " सिलास, आतां तूं जाण्टो जालो. हाचेफुडें तुजेकडे काम जावचें ना. तुजे पयशे परत मेळ्ळे ही खोशेची गजाल पुण ते पयशे कितले दीस पावतले ? म्हूण हांव अेक सुचोवणी करतां."

" कसली ती ?" [illegible]

" अेपीक आमी आमगेर व्हरतां.तुकाय कांयच अुणे पडचेना. दोगांय आनंदान रावात. "

" ना, ना. हांव अेपीक सोडून रावचोना ! "

"पुण सिलास अेपीचेर खरो म्हजो हक्क आसा. हांव ताचो बापुय. तौ म्हजी धू. मॉली म्हजी बायल आसली. गॉडफरेन सांगले.

" धुवेचर हक्क सांगूक आतां आयला? सोळा वर्सां कित्याक ओगी रावलो?

" ती म्हजी चूक आसली सिलास. ताचेखातीर हावें खुब दुख भोगलां."

" पुण हांव म्हज्या डेडीक सोडून खंयच येवची ना. हांव हांगा गरीबीन रावन पुण डेडीम्हन्यान आनंदान रावतलीं. "

अेपीन स्पश्ट सांगले. आनीक कांयच अुपाय नासलो. गॉडफरे आनी नान्सी परती गेलीं.

वसंत ऋतूंतल्या अेके सोबीत सकाळीं अिगर्जीच्या प्राकारांत गांवांतले खुब लोक जमिल्ले. सगळे खोशी दिसताले.

अेपी व्हंकलेच्या कपडयानी सुंदर दिसताली. आज तिचें अेरनलागीं व्हड दबाज्यान लग्न जालें.

गॉडफरे आनी नान्सीन आपलें घर, पोरसूं, शेत आनी बाकी इस्टेट चलयेक दिली.

सिलासावांगडा अेपी आनी अेरन रेडहाअुसांत खोशेन रावूंक लागलीं. x x x